किरण म्हांबरे हांचो हो पयलोच कथां झेलो. नदरेंत भरपा सारकीं तांचीं कांय खाशेलपणां आसात. मुखेलपणान ह्यो कथा नाते संबंदाच्या धाग्यांनी विणल्यात. नात्याचे संबंद म्हणल्यार गांठी आनी निसरगांठी. संवसाराचे सुरवेक सावन मनशाचो तो अणभव. ह्या नात्याक कितले तरी पदर आसतात. हीं नातीं जितलीं गोड म्होंवीं आसतात तेच भशेन केन्ना केन्ना तातूंत कोडसाण रिगिल्ली आसता. हें नातें जितलें दोग जाणा मदलें तितलेंच तें आपले कडलेंय. किरणबायच्या कथाविश्वांत ह्या नात्यांचें दर्शन घडटा. हांगा अशाच नात्याक लागून जिवितांत फटवल्लें एल्सा आसा आनी तेच भशेन घरांत काम करपाक दवरिल्ल्या परधर्माच्या भुरग्याक माया लावपी भाभीय आसा. लग्न संबंदांतल्यान जुळिल्लें नातें... आपलेपणाची भावना दिवपी... आपलीं मनशां... आपलीं नातीं. पूण केन्ना केन्ना ह्या नात्याक दाग लागिल्लो आसता. तें विटकळटा तेन्ना तातूंतली गोडसाण सोंपता. हो मानवी अणभव अनादी काळा पासूनचो. जिविताचे वाटेर दोडपी सगळेच एक सारके आसतले अशें समजप समा न्हय. ह्या कथांनी मनीस सभावाचेंय दर्शन घडटा. मनशा मदीं आशिल्लें नश्ट पाडेपण, सुवार्थ हाचे बराबर ताचे भितर आशिल्लें बरेपण पळोवन मन दर्वेता. कथा लेखक म्हूण किरणबायची ती व्हड शक्त.

निखटें तंत्र म्हणल्यार कथा न्हय. तिचो आशय तितलोच म्हत्वाचो. आनी तिचे लांबाय रुंदाये वयल्यान तिचें श्रेश्ठत्व थारावपाक येना हें तितलेंच खरें. तिचो आशय वीस पानांत बसोवं येता, तेच प्रमाण देड पानाचीय ती आसूं येता. किरणबायची कथा तिचे लांबायेचो विचार करिना. तिका आशयाचो अचूक वेध घेवपाचो आसता. ताका लागून ती रुपान रेखीव, वाचप्याच्या मनांत रिगपा सारकी. अस्सल कथेंत सुरवेक कथा वाचतना तिचो शेवट कसो आसतलो हें कळना. तो अनपेक्षीत आसपाक जाय. हो परिणाम ही कथा बेस बरी सादता. शीला कोळंबकार, मीना काकोडकार, जयमाला दणायत, हेमा नायक हांचे पाथावळींत बसपी ही कथाकार एकूण कोंकणी कथा आनीक समृद्ध करता.

कोंकणी कथेक नवी दिका दाखोवपी ह्यो कथा आसात.

माधव बोरकार

**- माधव बोरकार**